# पृथ्वीराज-ताराबाय

## आनी हेर काणयो

अभयकुमार वेलींगकार







जैत प्रकाशन



**पृथ्वीराज - ताराबाय**

- अभयकुमार वेर्लींगकार

---

✻ प्रकाशन क्र. १९

✻ उजवाडावणी - २००४

✻ उजवाडावपी:
जैत प्रकाशन
कोरली, तिसवाडी
गोंय - ४०३११०
फोनः २२८४६३७

✻ छापपी:
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम
कोरली, गोंय - ४०३ ११०

✻ अक्षरजूळणी:
कलाकृती,
पणजी - गोंय
फोनः २४२६५२६



✻ मोलः २२

ISBN81-86487-99-X

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.

# मांडावळ



# गांवया तांच्यो आरती








# पृथ्वीराज-ताराबाय

बदनोरचो राजपूत राणा राय सुरतन हो मुळचो तोडा प्रांतांतलो. पूण अफगाणी लोकांनी केल्ल्या आक्रमणांत हार खावन ताका आपल्या पुर्वजांचें घर-दार सोडचें पडलें.

तो थंयसून उठून बदनोराक आयलो. बदनोर हो गांव अरवली पर्वतांच्या पायांकडेन मेवाडचे शिमेर आसलो.

राय सुरतनची, ताराबाय ही एकली एकसुरी चली. तिचो जल्म बदनोराकूच जालो. थंयच ती ल्हानाची व्हड जाली.

तिका समजूंक लागलें आनी एक दीस राय सुरतनान तिका आपणाले आवयभुंयची खबर सांगली. अफगाणी लोकांनी अत्याचार करून ती कशी जिखली तें सांगलें अफगाणांच्या हातांतल्यान तोडा परत येवपाक ताणें कितले आनी कसले यत्न केले आनी तातूंत तो कसो अपेशी थारलो हेंवूय ताणें तिका सांगलें.

तें आयकून ताराक दिसलें, आपूण जर चलो आसलें, तर कितलें बरें जावपाचें ! घोड्यार उडी मारून तरसादीच्या नेटार आपलें राज्य परतें मेळयतलें आसलें !तिणें रोखडेच आपले विचार बापायकडेन मांडले.

राय सुरतनाक तिचा अभिमान दिसलो. ताणें म्हळें, धुवे, तूं म्हाका पुतावरीच. हांव तुकां सगळ्यो झुंजाण्यो विद्या शिकयतलों. एक दीस तरी धुवेच्याच नेटार आपूण तोडा परत जिखतलों हाची ताका पुराय खात्रीआसली.

रोखडेंच तारायबायचें शिकप सुरु जालें. ताराबाय निजाचीच हुशार आसली. जें कितें शिकता तें ती रोखडेंच आपणायताली. घोड्यार कांयच न्हय अशी उडी घेताली , घोडो वाऱ्यार धावंडायताली. तिचो तिराचो नेम केन्नाच चुकनासलो. कितलेय मस्ते घोडे तिचेमुखार नमळायेन रावताले.

आनी हें सगलें पळोवन राय सुरतनाक मळब मोटवें दिसतालें. दिशींदिशीं तारा सोबीत दिसताली. तिचें तेज चड-चड फांकतालें. तिच्या झुजा शिकपावांगडाच घरकामाचें शिकपूय चलिल्लें. राय सुरतनाची तिचेर सारकी नदर आसली.

कांय दिसांभितरूच ताराबाय मेवाडांतली सगल्या गुणांनी संपन्न अशी चली म्हूण नामनेक पावली. मोहिमेचो ताण सोंसपाइतली शक्त तिच्यांत आसा हाची राय सुलतनाक खात्री जाली तेन्ना तोड्याचेर परत एकदां हल्लो करचों अशे विचार ताचे तकलेंत घोळूंक लागले.

एक दीस ताणें ताराबायक आपयली आनी सांगलें, ताराबाय, झुजाची तयारी कर. फाल्यांच आमकां तोड्याचेर घुरी घालूंक जाय.

ताराबायूय झुजाक वचपाक सामकी उतावीळ जाल्ली. तिणें बापायच्या उतराक रोखडीच तेंको दिलो.

झुजाची तयारी जाली आनी दुसऱ्याच दिसा ताणी तोड्यार घुरी घाली. राय सुरतन आनी ताराबाय जिवाच्या आकांतान झगडलीं. मेल्यार जाता पूण तोडो घेवंक जाय हीच तांची एकसुरी इत्सा आसली. पूण दुस्मानांमुखार तांचें शाणेपण चल्लेंना. तांकां हार खावन परतुचें पडलें. आनीक एक यत्न फुकट गेल्लो. दुस्मानांक मेळिल्ल्या जैतान मस्ती चडिल्ली. आनी राय सुरतनाचे झुजारी निर्शेल्ले.

बापूय-धूव घोड्यांवेल्यान बदनोराक परतलीं. बापूय विचार करतालो. 'हारले तरी निराश जावंक फावना' तर धूव विचार करताली 'निराश केन्नाच जावप ना. जे वांचल्यात तांकां वांगडा घेवप आनी आनीक नव्या झुजाऱ्यांक तयार करून परतोय तोडयाचेर हल्लो करप. कशेंय जावं, कितलेय त्रास पडूं तोडो स्वतंत्र जावंकूच जाय.'

बदनोर पावलीं तशें तांणी नव्या तरणाट्यांक आपल्या सैन्यांत घेवन तांकां शिकोवंक सुरवात केली. ताराबाय घोडेस्वारांक शिकयताली.

इतले म्हणसर तिचे सोबितकायेवांगडाच तिच्या बऱ्या गुणांची कीर्त मेवाडभर जाल्ली. घोडदळाक शिकप दिवपी एक बायल हाची

चर्चा सगलेकडेन जाताली. एक सोबीत चली झुंजपात शूर आसची हाचें सगल्यांक अजाप दिसतालें.



मेवाडाचो राणा रायमलयो तिसरो पूत जयमल हाणें तिका मागणी घालचें थारायलें. ताराबायकडेन लग्न जावचे विचार मनांत आयलो तसो जयमल बदनोराक गेलो. बदनोर येवन ताणें राय सुरतानाकडेन ताराबायक मागणी घाली.

राय सुरतन जाप दिवचोच आसलो. इतल्यांत ताराबायनूच जाप घाली, ' तोड्याक स्वतंत्र करतल्याकडेन हांव लग्न जातली.' जयमलान ते सुंदरीची ती सोबीत मागणी मान्य केली.

खरें म्हळ्यार जयमलाक तरसाद हातांत घेवची इत्साच नासली. जाता तितले दीस ताराबायचे भोंवतणी रावचें आनी तिचें सोबीत रूप दोळ्यांत सांठोवचें हे नदरेन तो थंय रावलो.

झुजाऱ्यांक एकठांय करचे विचार ताच्या मनांत नासलेंच. तो विचार करी- तोडो वतलो खंय आनी तो गेलो तर गेलो. जाता तितले दीस राय सुरतनाकडेन रावप आनी संद मेळटा तशी ताराबायक घेवन

वचप.

एकूण कितें, ह्या फटिंगाचो हेतू बरो नासलो. एक दीस तो तसोच उठलो आनी ताराबायच्या म्हालाकडेन गेलो. ताराबायची दासी दारार उबी आसली. तिणें ताका आडायलो. आपणाक आडायल्लो पळोवन ताका राग आयलो. आनी रागाभरशीं ताणें तिका धुकळून उडयली आनी तो तडक ताराबायच्या म्हालांत घुसलो.

हेवटेन दासीन बोवाळ केलो. तिचो बोवाळ आयकून राय सुरतन धांवन आयलो. दासीक आड्डता ती पळोवन ताणें विचारलें, 'कितें जालें?' पूण दासी सगलीच थरथरताली. तिच्यान उलोवंक जालेंना तिणें अडखळत इतलेंच म्हळें, 'महाराज दार देवी जयमल--'

राय सुरतनाक कळपाचें तें कळ्ळें, तो रागान तांबडो जालो. तो रागान आड्डलो, लजकाड्या आपूण रायमलचो पूत म्हणपाची तरी इल्ली लज दवरपाची आनी ताणें तरसाद उबारली. एकाच घावांत जयमलचे दोन कुडके जाले तें पळोवन दासी भियेली. ताराबायक मेल्ल्या जयमलाची काकूट दिसली.



जयमलाच्या मरणाची खबर राणा रायमलाच्या कानार पावली. कांय सरदार राय सुरतनाचेर हल्लो करून ताका नाश्च करूंया आनी सूड घेवंया म्हणूंक लागले. पूण राजा व्हड मनाचो आसलो. ताणें म्हळें, 'ना अशें घडूंक फावना, चूक जयमलाची आसली. जयमलान यजमानाचो अपमान केलो. ताचे चलयेची अब्रू घेवचो यत्न केलो. आनी तेंय बी राज सुरतन देशाचे चिंतेंत आसतना. ताका दिल्ली मरणाची ख्यास्तूच योग्य आसली.'

कांय दीस अशेच गेले आनी एक दीस रायमलाचो दुसरो पूत पृथ्वीराज मुखार सरलो. ताणें बापायक म्हळें, 'पिताजी, हांव बदनोराक वतां. रायाजींक तांच्या संकटावेळार कोणाची तरी मदत जायच. हांव तांकां मदत करूंक आनी वांगडाच ताराबायचें मन जिकूंक वतां.'

राणा रायमलाक खूब खोस भोगली. ताणें खोशयेन वचूंक सांगलें. ताणें म्हळें, 'चल पुता, मेवाडचे सगळेच तरणाटे लंपट आनी लजकाडे न्हय हें सगल्यांक दाखोवन दी.'

पृथ्वीराज बदनोराक पावलो आनी ताणें तराबायक मागणी घाली. ताराबायन परतूय तीच अट घाली. पृथ्वीराजान फट्ट करून म्हळें, 'तुज्या बापायक तोडो परत घेवन दिलोना जाल्यार रजपुतांचें नांव सांगपाचोंना.'

ताराबायक खोस भोगली तिणें प्रार्थना केली 'देवा ताका जैत मेळोवन दी, ताच्या उतरांनी ताराबायचें मन जिखिल्लें. ती देवालागी मागताली, 'देवा हाका जैत मेळूं दी आनी म्हजें लग्न ताचेकडेन जावंदी.'

पृथ्वीराजान वेळ काडलोना. ताणें सुमार पांचशें शिपाय आपले वांगडा घेतले. ताराबायक तो इतलो बोवाळ कित्याक करता तें कळना जालें. तिणें विचारलें तेन्ना पृथ्वीराजान जाप दिली की मोहरमाच्या दिसा ताका तोड्याचेर हल्लो करचो आसा. अफगाण लोक जेन्ना सुवाळ्यांत गुंग आसतले तेन्ना पहाऱ्याकडेन तांचें लक्ष आसचेंना हें ताका खबर आसलें.



ताराबायन ताजेवांगडा येवंचो हट्ट धरलो. पृथ्वीराजान तिका जायती समजायली की राजकुंवरीन आपलो जीव त्रासांत उडोवचो न्हय. पूण तिका येवंक नाकाय म्हणप ताच्यान जमलेंना.

मोहरमचो दीस उदेलो. पृथ्वीराजान सैन्यावांगडा तोडयावटेन धांव घेतली. तोडयाकडेन पावले तशे ताणें ताराबायक आनी एका शिपायाक वांगडा घेतलो आनी मुखार वचून मोहरमचे मिरवणुकींत रिगलो. अफगाणाचो नायक जंय आसलो ते माळयेसकल्ल्यान मिरवणूक वचपाची आसली. पृथ्वीराजान ताराबायक आनी शिपायाक जागयलो.

मिरवणूक पळोवंक म्हूण अफगाणचो नायक मुखार सरलो. ताणें पृथ्वीराजाक पळेलो. कोण तरी परक्या गांवचे लोक मिरवणुकींत आसात म्हणपाचें ताणें पळेलें. 'हे ते कोण?' तो विचारता थंय आसलो. पृथ्वीराजाचो भालो वचून जिस्त ताज्या पोटांत बसलो. तो वळवळ्ळो. तो तसोच उबो रावलो. इतल्यांत ताराबायच्या धोणवांतल्यान सुटिल्ल्या तिरान तो आड पडलो.

सगळो जमाव भियेलो. कितें घडलें तें तांकां कळ्ळेंना. ते ह्या धपक्यांतल्यान सारके जावचे पयलींच पृथ्वीराज ताराबायक आनी शिपायाक घेवन आपल्यासैन्याक येवन मेळ्ळो. अफगाण शिपायांनी बोवाळ केलो. 'धरात तांकां, खुनी, चोर, बदमाश' अशे आवाज आयकूक येंवक लागले. कोणें तरी तांचेर हतयाक सोडलो. पूण ताराबायन आपल्या तिरान हतयाक धांवडोवन लायलो.

पृथ्वीराज सैन्याक मेळ्ळो आनी ताणें अफगाण लोकांचेर हल्लो करचो हुकूम केलो. अफगाणी पळूंक लागले. पूण तांकां कळूंक दिनास्तना पृथ्वीराजाच्या शिपायांनी तांका कापून काडले. दुस्मानांक आड घालो आनी पृथ्वीराजान राय सुरतनाक आफोवणो धाडलो. ताणें सांगून धाडलें, 'तोडो स्वतंत्र जावन तुमची वाट पळेता.'

राय सुलतनान रोखडीच तोड्याक वचची तयारी केली. तोडयाचे शिमेरूच ताराबाय आनी पृथ्वीराज रायाजींक येवकार दिवंक उबीं

आसलीं. राय सुरतनाच्या जिवितांतलो हो एक व्हड खोशेचो खीण आसलो. ताणें पृथ्वीराजाक मोगान वेंग मारली. ताराबाय-पृथ्वीराजान ताका सजयल्ल्या नगरांत व्हेलो. गांवचे लोक राजाक आनी राकुंवरीक खोशेन येवकार दिवंक उबे आसले. तांचो जयजयकार करताले. तोडयाच्या इतिहासांतलो तो भांगरा दीस आसलो.

तोडयांत सगलें थिरावलें आनी ताराबाय-पृथ्वीराजाच्या लग्नाचे वेध लागले. लग्नाची तयारी नेटान सुरू जाली आनी रोखडेंच लग्न जालें. तरसाद गाजोवन पृथ्वीराजान ताराबायक जिखिल्ली. एका शुराच्या गळ्यांत माळ घालचें शाणपण ताराबायनूय दाखयल्लें.

लग्न जालें आनी पृथ्वीराज मेवाडाक वचूंक भायर सरलो. पूण राय सुरतनान ताका आडायलो. राज्याची घडी सारकी बसोवंक ताका कोण तरी जाय आसलो आनी पृथ्वीराजापरस बरो मनीस आनीक खंय मेळटलो आसलो? पृथ्वीराजाच्यान ताचें मन मोडूंक जालेंना. ताणें रायाच्या उतराक मान दिलो.

पृथ्वीराज-ताराबाय तोडयांत रावंक लागलीं. एकामेकांची सांगात आनी रायाची माया तांकां धादोस करताली.

पूण कांय म्हयने गेले आनी ताराबाय वाजेली तिज्यान एकाच जाग्यार रावंक जायनां जालें. नवीं थळां पळोवचीं. नवें धाडस करचें अशें तिका दिसूंक लागलें. तिणें पृथ्वीराजाक तशें सांगलें आनी पृथ्वीराजान रोखडीच मेवाडाक वचची तयारी केली.

हेवटेन मेवाडाक एक कट शिजिल्लो. पृथ्वीराजाच्या बापाय आड कांय शत्रूंनी केल्लो तो कट आसलो. राणा रायमलाक मारपाचो कांय जाणांनी डाव रचिल्लो. एक दीस फुटीर लोकांनी सैन्य घेवन राणा रायमला आड झूज मांडलें. राणा अजापलो. हें कितें तें ताका कळळेंना. मेळटा तें सैन्य घेवन ताणें झूज दिलें. पूण [illegible] जमयिल्ल्या व्हड सैन्यामुखार ताचें कायच चल्लेंना. [illegible] सरूंक लागलो. त्याच वेळार पृथ्वीराज-ताराबाय थंय [illegible]लीं. [illegible] सुदैवान एक हजार घोडेस्वार थंय पाविल्ले. [illegible] झूज [illegible]



तिचें झुजप कोणाच्यांय दोळ्यांत भरसारकें आसलें. दुस्मान हारले. ज्या हातान तांकां हारयल्ले ते हात बायलेचे हाचेर तांचो विश्वास बसनासलो. तिका झुजतना पळोवन खूब जाणांक अजाप दिशिल्लें. कांय दुस्मान मेले जाल्यार कांय जीव आसल्यार भीक मागून खावन म्हूण धांवन गेले.

ते उपरांत ताराबाय-पृथ्वीराज खुंबळमेर गांवांत येवन रावूंक लागलीं. ताचें जिवीत सुखाचें आसलें.

एक दीस पृथ्वीराजाक ताचे भयणीची चीट आयली. ताची भयण सिरोहीच्या राजाक प्रभू रावाक दिल्ली. चिटींत तिणें बरयल्लें, आपणांक घोव सामको त्रास करता. ताका अफूचो नाद लागला. तेन्ना आपणाक कुळारा व्हर. ताराबाय पत्र वाचून अजापली. तिका रागूय आयलो. तिणें पृथ्वीराजाक म्हळें, 'आमी सिरोही वचुंया आनी राजाक सारकी बुद्द शिकोवन तिका हाडुया.

पृथ्वीराजूय संतापिलो ताणें म्हळें, 'ताका बुद्द शिकोवंकूच जाय. हांव एकटोच वचून ताका कितें तें शिकयतलों.'

ताराबाय ताका एकटो धाडूंक तयार नासली. पूण पृथ्वीराजान आपलो हट्ट सोडलो ना. एकटोच वचूंक लागलो. सिरोहीक पावलो तेन्ना मध्यान्न रात जाल्ली. राजवाड्याची दारां धापिल्लीं. पृथ्वीराज वणत चडन भितर गेलो. ताणें पळेलें. आपली भयण जमनीर न्हिदल्या. तो सामको चुरचुरलो. भयणीची दशा पळोवन ताच्या दोळ्यांत दूक आयलें. ताका दिसलें. आपल नोकर लेगीत हाचेकूय बरे तरेन रावतात.

ताचो आपल्यावेलो ताबो सुटलो. ताणें तरसाद हातात घेतली आनी प्रभू रावाक उठयलों, 'दुश्टा, हांव तुकां जितोच मारतां.' तो आडडलो तसो प्रभू राव भियेलो. तो पृथ्वीराजाचे काकुटेक आयलो. ताच्या पायार पडन जिवाची भीक मागूक लागलो. ताचे भयणीनूय घोवाखातीर भीग मागली.

पृथ्वीराजाचो भयणीचेर खूब मोग आसलो. तिचें उतर मोडूंक जालेंना. ताणें ताका मारलाना. पूण सामकी लज करून ताका सोडलो.

ताका उपदेश करून सारको वागूंक सांगलें.



प्रभू रावान वयले च्चाराक तकली हालोवन आपणाक पश्चाताप जाला म्हूण दाखयलें. पूण तो मनांत म्हणटालो, 'तुजो जीव घेवनूच हाचो सूड घेतलों,' पृथ्वीराजाक कसो ना करचो हाचोच विचार प्रभु राव दीस रात करतालो. इतल्यांत ताका याद जाली. पृथ्वीराजाक गोड खावंक आवडटा. ताका थोडी मिठाय दिली आनी तातूंत वीख घालें म्हणजे काम जालें.

दोन दिसांनी पृथ्वीराजान भयण-भावोजीचो निरोप घेतलो. ताराब्राय आपल्या हुस्क्यांत आसतली हाजोच ताका हुस्को जातालो. तो भायर सरलो. प्रभून ताका एक ल्हान पोटली दिली. तातूंत मिठाय असली. वाटेर खावंक जातली म्हूण ताणें ती दिल्ली.

प्रभुच्या ह्या वागपान पृथ्वीराजाक खोस जाली. ताच्या दोळ्यांत दुका आयलीं. ताका बरे भशेन रावात म्हूण सागून ताणें आपलो घोडो सोडलो. वाटेंत तो प्रभूविशीं विचार करतालो. आपणे ताजेकडेन

एकदम वायट वागूंक नाका आसलों अशे ताका दिसलें. प्रभू मनीस खूब बरोसो दिसलो ताका.

खुंबळमेर लागीं आयले आनी ताका भूक लागली. प्रभुन दिल्ली मिठाय सोडोवन ताणें अर्दी खाली आनी अर्दी ताराबायक दवरली. तो परतो घोड्यार बसलो आनी वाट चलूंक लागलो.

राजवाड्यालागीं आशिल्ल्या एका देवळालागीं पावला मात ताका कितेशेंच जावंक लागलें.दोळे उगडूंक जायना जाले. घोड्यार बसूंक जमना जालें. पृथ्वीराजाक कळून आयलें. आपणांक वीख घालां म्हण. प्रभून निमाणें फटींगपणां केल्ली. तो ताराबायच्या नावांन आड्डूंक लागलो. ताका कशेंयतरी ताराबाय म्हऱ्यांत पावंक जाय आसलें. तो मात्सो धडपडलो पूण ताच्यान मुखार वचूंक जायना जालें. वाटेंतूच ताचो जीव गेलो.

कोणे तरीताका वाटेर पडिल्लो पळयलो. ते ताका आपलो राजा म्हणपाचे वळखलें. कोणे तरी ताका वीख घालां म्हणपाचें ताचे काळे जाल्लें कुडीवेल्यान तांका कळ्ळें ताणीं ही खबर ताराबायक कळयली.

खबर कळ्ळी तशी ताराबाय धांवत घोवालागीं आयली. आपली आवयभूंय मुक्त करपी शूर घोवाची ती अवस्ता पळोवन तिका रडूंक आयलें. तिचेर आघात जाल्लो. ती व्हडा व्हडान आड्डूंक लागली. घोवाक उलो मारूंक लागली.

पूण तिका जाप दिवंक पृथ्वीराज आसलो खंय? तो तर केन्नाच पंचतत्वांत विलीन जाल्लो.

तेन्नाचे रितीप्रमाण ताराबाय घोवाच्या उज्यार सती गेली. खिणांत दोंगांयचो गोबोर जालो.

त्या शूर दांपत्याची किर्ती जोत आज लेगीत नेटान जळटा. तांचे राखेर बांदिल्ले स्मृतीमंदीर उदयपुरांत खुंबळमेर लागीं मेवाडाक वचपी रस्त्यार आजय पळोवंक मेळटा आनी त्या जाग्यार आपसूंक कोणूय नतमस्तक जाता.

x - x - x

## गांवया तांच्यो आरती

# भगतसिंग

२७ सप्टेंबर १९०७ पंजाबच्या वंगा खेड्यांत जें आतां पाकिस्तानांत आसा एका भुरग्याचो जल्म जालो. ह्या भुरग्याचो काका सरदार अजितसिंग हो राजकीय नदरेन धोको दिवपी म्हूण १८१८ च्या रेग्युलेशन तीनखाला मंडालेक बंदखणींत उडयल्लो. जांचेर न्यायालयांत कसलोच आरोप दवरप शक्य जायना अशा राजकीय कार्यकर्त्यांक बंदखणीं उडोवपाखातीर म्हूण ह्या कायद्याचो वापर करताले. प्रसिद्ध फुडारी लाल लजपतराय हांकांय ह्याच कायद्याखाला मंडाले बंदखणींत दवरलेले.

भुरगो जल्माक आयलो तोच राजकारणाचें बाळकडू पियेवनूच. हो भुरगो म्हळ्यार सरदास भगतसिंग. मात्सो जाण्टो जालो आनी ह्राणें राजकीय कारकिर्द मुखार व्हरूंक सुरवात केली. भ्रश्टाचारी महंताआड अकालींनी सुरु केल्ले चळवळींत घरच्यांचो विरोध आसुनूय ताणें वांटो घेतलो आनी आपुणूय कमी ना म्हणपाचें दाखोवन दिलें. धार्मिक स्वरुपाचें हे चळवळीचो अणभव ताका ब्रिटीश सत्तेआड झगडटना उपयोग आयलो.

त्यावेळार पंजाब एके कठीण राजकीय परिस्थितींतल्यान वतालें. जालियनवाला हत्याकांडाचा लोकांक विसर पडूंक नासलो. पोलिसांच्या अत्याचारांक जाप म्हूण स्वातंत्र्याझुजारी हिंसाचार करताले आनी हांतल्यानूय भगतसिंगासारको एक सामान्य कार्यकर्तो पोलिसांआड जावपी कटांत धांवलो. मिंटो पार्कांत जमिल्ल्या लोकांचेर बॉंब उडयलो म्हूण ताका धरलो. पूण पुरावो नासून ताका सोडचो पडलो.

भगतसिंग आतां पराय तरेन राजकारणी जाल्लो. 'नौजवान भारत सभा' ही देशाच्या स्वातंत्र्याखातीर झगडपी संस्था ताणें सुरू केली. इल्लें इल्लें आपलें कार्य वाडयत उपरात ताणे 'हिंदुस्थान सोशलिस्ट

पार्टी' हो पंगड थापलो. दिल्लींतल्या तांच्या खटल्यांत ताणें आपल्या पंगडाच्यां ध्येयधोरणाविशीं निवेदन केलें. ताणें म्हळें. 'हांव दहशतवादी न्हय. समाजवादी समाजाची थापणूक हें राजकीय शाखेच्या सहकार्यान काम करपी म्हजे संघटनेच्या लश्करी विभागाचें काम जावन आसा. फकत बाँब उडोवप हें निरुपयोगीच न्हय जाल्यार संघटनेक लुकसाण करपीच थारतलें. कश्टकरी लोकांक एक करप हेंच आमचें मुखेल ध्येय आसा.

क्रांतिची आपली कल्पना सरळ करतना भगतसिंगान म्हळां, 'सद्याची राज्यवेवस्था आमकां काबार करूंक जाय. तेखातीर भांडवलदारांच्या हातांत आशिल्ली सरकारी यंत्रणा हातांत येवपाची गरज आसा. आमच्या आदर्शाक मूर्त स्वरूप दिवचेखातीर आनी सामान्य लोकांच्या बऱ्याक म्हूण मार्क्साच्या तत्वज्ञानाचेर ही यंत्रणा आदारूंक जाय हेंच आमच्या झुजाचें उद्दिश्ट. राजकीय नदरेन फाटी आशिल्ल्या भारतीयांक हें तत्वज्ञान नवेंच आसलें.

रशियेक भेट दिवपी जवाहरलालांचेर ह्या तत्वज्ञानाचो प्रभाव पडिल्लो. भगतसिंगाक आदरांजली ओपतना ताणें आपल्या आत्मचरित्रांत म्हळां, 'भारतांत सुमार तीस वर्सां दहशतवादी चळवळीं चालूआसात. पूण भगतसिंगाक मेळ्ळा तितलो लोकांमोग आनी कोणाकूच मेळूंक ना. तात्पुरतो उत्सव सोडलो जाल्यार देसांतल्या तरणाट्यांक दहशतवादाचें केन्नाय आकर्शण दिसलें ना. ही वस्तुस्थिती भगतसिंगाक मेळिल्ली प्रसिद्धी ही ताज्या दहशतवादीपणाक न्हय. ताणें आपले चळवळीक लाला लजपतराय हांची आनी तांच्या रूपान सगळ्या देशाची मान्यताय मेळयली. भगतसिंगावेलो लोकांमोग ही देशमोगाचीच खूण आसली.

सायमन कमिशनामुखार लाहोरांत निदर्शनां करपी लाला लजपतराय आनी तांच्या वांगड्यांचेर पोलीस मुखेली स्कॉटसान नेटान

लाठीहल्लो केलो आनी ते दुखीन लाला लजपतराय भायर पडले. पोलीस मारानूय तांकां मरण आयलें अशें दोतोरांच्या अहवालांत स्पष्ट म्हणिल्लें.



भगतसिंग आनी ताच्या वांगड्यांनी ह्याचो सूड घेवचें थारायलें आनी १५ डिसेंबर १९३३ दिसा लाहोराच्या पोलीसथाण्या सामकार पोलीस मुखेली जे. सँडर्साक गुळी घालून माल्लो. खरो मारपाचो आसलो स्कॉटसाक पूण वळखुपांत चूक जाली आनी सँडर्स मेलो. हाका लागून भगतसिंग वीर जालो आनी पंजाबी लोकांनी ताज्या धाडसाची तोखणाय करून ताच्या ह्या कर्माक पुराय तेंको दिलो.

हे हत्येउपरांत पंजाबचे गव्हर्नर सर माल्कम व्हेलेच्या मुखेलपणाखाला ब्रिटीश पोलिसांक मेकळे सोडले आनी तांणी सगळ्या पंजाबभर भंयाचे वातावरण निर्माण केलें. कोणूय सुरक्षित म्हणपाचो नासलो. राजकीय कार्यकर्त्यांकडल्यान गुन्यांवाची जाप

मेळोवपाखातीर तांचेर अत्याचार जावंक लागले. राजकीय कार्यकर्ते सोदचेखातीर लोकांचो छळ जालो. लाहोर किल्ल्यांत हेखातीर एक खास विभाग उबारलेलो जातूंत दुबावीत मनशाक बर्फाच्या दोन लाद्यांमदीं न्हिदोवपासारखे प्रकार घडटाले.

पोलिसांच्या हातांतल्यान सुटिल्ले भगतसिंग आनी ताचे दोन वांगडी देशभर भोवन आयले. कलकत्यांत कांय वेळ रावन ते आग्रयाक आयले आनीतांणी बॉंब तयार करचो कारखानोकाडलो. उपरांत भगतसिंग कानपुराक गेलो आनी गणेशकुमार विद्यार्थी हाच्या 'प्रताप' दिसाळ्यांत वार्ताहर म्हूण काम करूंक लागलो.

भगतसिंगाच्या वाडट्या लोकमोगाक लागून ताज्या पंगडांतल्या कांय जाणांक ताचो मत्सर दिसूंक लागिल्लो. सुखदेवाच्या फुडारीपणाखाला आशिल्ल्या पंगडान ताका सेंट्रल असेंब्लींत बॉंब उडोवंक तयार केलो आनी तातुंतच ताका फांशी मेळ्ळी. भारतीय स्वातंत्र्य झुंजातलो व्हड हुतात्मा म्हूण तो अमर जालो.

जेन्ना भगतसिंग बंदखणींत पावलो तेन्ना सरकाराक ती एक कटकट जावन गेली. राजकीय कैद्यांक मेळपी वागणुके आड ताणें झगडें उबारलें. तांकां कांयच सोयी मेळनासल्यो तें जालेंच पूण ते भायर तांकां चोर, खुन्यापरी बेडयो घालताले. लाहोर कैदखान्यांत बेड्यांतल्यान मेकळे करपाची मागणी केली म्हूण तांकां मार घालो. जेवणावेळार बेडयो घालून घेवपाक न्हयकार दिलो म्हूण तांकां मार घालपाचो आदेश लाहोर उच्च न्यायालयान न्या. कोल्डस्ट्रीम हाणींच दिलो. ताका विरोध म्हुणून कैद्यांनी उपासाक सुरवात केली आनी सरकाराक कांय सवलती दिवच्योच पडल्यो.

देशांतल्या सगळ्या भागांतल्यान आनी सगळ्या थरांतल्यान सुखदेव, राजगुरू आनी भगतसिंग हांकां फांशी दिनासतना जल्मठेपेंत दवरचे म्हूण मागणी जाताली. लॉर्ड आयर्विन आनी गांधी हांचेमदीं जावपी करारांत तशी तरतूद आसची म्हूण सगळ्या राजकारण्यांनी

गांधीजीचेर दडपण हाडिल्लें. पूण '५ मार्च १९३१ दिसा जाल्ल्या करारांत हो विशय आयलोच ना. ह्या कैद्यांक फांशीच जावंक जाय अशो आगरो लॉर्ड आयर्विनान धरलो. कारण लोकांचेर पडिल्ल्या ह्या कैद्यांच्या प्रभावाचोच ब्रिटीश सरकाराक भंय दिसतालो.

गांधीक लोकमताची कल्पना आसलीच. फांसार वचपी ह्या पिरांविशीं तांणी बरयलां, तांचे धैर्य खऱ्यांनीच तोखणायेचें. फाशींचे शिक्षेन ह्या तरण्याट्यांक शौर्याचो मुकूट घाला. तांणी ज्या मार्गान आपल्या धैर्याचो वापर केला तो मार्ग जरी आमकां स्विकारचेलो नासलो तरी तांचो त्याग शौर्य आनी ध्यैर्य हांची आमी तोखणायच करूंक जाय.

फांशिच्या जाग्यार वतना भगतसिंगाच्या हातांत लेनिनाचें चरित्र आसलें. वेळ सोंपलो म्हणपाचें जेन्ना सांगलें, तेन्ना ताणें म्हळें, 'खीणभर मात्सो राव. एक क्रांतिकारी दुसऱ्या क्रांतिकाऱ्याक मेळटा.'

x - x - x



# शहीद मदनलाल धिंग्रा

हे पवित्र मायभुयेंक गुलामगिरिच्या बांदपांतल्यान सोडोवन स्वतंत्र करूंक जायत्या तरणाट्यांनी आपलो जीव दिलो. आपलें जिवीत ओपलें,तांतलोच एक मदनलाल धिंग्रा.

स्वातंत्र्यवीर विनायक दामोदर सावरकर जेन्ना इंग्लंडाक बॅरिस्टर जावंक म्हूण गेल्लो. तेन्नाची ही गजाल. मदनलाल आपले शाळेचें शिकप पुराये करून वयलें शिकून घेवंक म्हूण घरचो विरोध आसतनाय १९०६ वर्सा भारतांतल्यान इंग्लंडाक गेलो.

त्या वेळार सावरकार 'इंडिया हाऊसां' त रावतालो. थंयच्यान तो भारताच्या स्वातंत्र्याचो प्रचार करतालो. भाशणां दितालो. इंडिया हाऊसांत ताज्या एका उलोवपाक मदनलाल गेल्लो. थंय तो सावरकाराक मेळ्ळो. सावरकाराच्या विचारान तो बरोच प्रभावीत जालो आनी मातृभुंयेखातीर आपणेंय कितेंतरी करचें अशें ताका दिसूंक लागलें. तो सदांच इंडिया हाऊसांत सावरकाराच्या कार्यावळींक वचूंक लागलो.

एकदां मदनलाल सावरकाराकडेन वचून आपणांक मातृभुंयेखातीर त्याग करपाची इत्सा आसा म्हूण सांगूंक लागलो. पयलीं सावरकारान ताका कांयच सांगलेंना. पूण एक दीस ताची परिक्षा घेवन तातूंत तो पास जाला म्हणपाचें पळोवन सावरकारान ताचेर एक जबाबदारी सोपयली.

धिंग्रांक ताणें म्हळें 'मदनभाय तूं ज्या खिणाची वाट पळेतालो तो खीण आतां आयला.' मदनलाल रोखडोच तयार जालो. सावकारान ताका कामाची कल्पना दिली.

इंग्लंडाक 'नॅशनल इंडियन असोसिएशन' नावांची एक संस्था आसली. हे संस्थेवतीन वयलें शिकप येवंक इंग्लंडाक येवपी भारतीयांक इंग्लीश सत्तेची तोखणाय करपासारखें चुकीचें शिकप दितालें. मदनलालाच्या मनांत हाचो राग आसलोच. हाचो सूड घेवचे नदरेन

तो ते संस्थेत संस्थेच्यो सचींव कु. एमा जोसेफाइल ब्रेक हिका मेळून भितर सरलो.

१ जुलै १९०९ दीस आसलो तो. नॅशनल इंडियन असोसिएशनांत एक समारंभ आसलो आनी थंय कर्झन वायली येवपाचो आसलो. कर्झन वायली म्हळ्यार अत्याचाराची एक खूण आसली. ताणें भारतीयांचेरकेल्ल्या अन्यायाक लागून मदनलाल पिसावल्लो. त्या दिसा सांजवेळां मदनलाल मनांत कितेंतरी थारावन आसलो. ताणें मळबाकोराची निळी पगडी माथ्यार घाल्ली. आंगांत सूट, गळ्यांत नेकटाय आनीक दोळ्यार गॉगल लायिल्लें. कोटाच्या बोल्सांत ताणें दोन पिस्तोलां आनी दोन चाकू दवरलेले. तोंडांत काली मातेचें स्मरण चलिल्लें. बरोबर आठ वरांचेर तो सभाघरांत पावलो. वेळ कसो गेलो ताका कळ्ळेंच ना. रातचीं बारा जालीं. कार्यक्रम रंगात आयिल्लो. धिंग्रा बोल्सांत हात घालून कर्झनासामकार गेलो आनी कोणाक कळचेपयलींच कर्झनाची छाती गुळयांनी फुटली. गुळयांच्या आजापान सभाघर भरलें. आनी फकत आपलें रक्षण करूंक म्हूण मदनलालान कर्झनाचो वांगडी कासवजीलालकाका हाचेर गुळी माल्ली. कांय दिसांनी तो हॉस्पीटलांत मेलो. मदनलालाक धरलो तेन्ना तो निर्भय आनी प्रसन्न दिसतालो.

सावरकार आपल्या शिश्याक मेळूंक बंदखणींत गेलो तेन्ना मदनलालान ताका उमेदीन येवकार दिलो. सावरकराक ताचो भोव अभिमान दिसलो.

धिंग्रान व्हडा अभिमानान सांगलें, 'सावरकारबाब, म्हज्या मरणाउपरांत म्हाका हिंदू पद्दतीन लासात आनी म्हजी राख भारतांत विसर्जीत करात. म्हज्या सगळ्या साहित्याची पावणी करून जें कितें मेळटलें तें राश्ट्रीय निधीक दियात.

१० जुलयक धिंग्रान न्यायालयांत उलयतना म्हळें, 'जे प्रमाण जर्मनीचेर राज्य करचेलो इंग्लिशांक अधिकार ना, तेच प्रमाण भारताचेर

राज्य करचेलोय इंग्लंडाक अधिकार ना. म्हजे मातृभुंयेर गुलामगिरीचें वजें घालपी लोकांक जिवेच मारप हें न्यायाक धरून जाता. म्हाका अलबत फांसार चडयात. ताकालागून म्हज्या देशांतल्या लोकांच्या काळजांत स्वातंत्र्याचो उजो चड नेटान पेट्टलो. म्हजें बलीदान सार्थक जातलें. म्हजेसारख्या भुरग्याकडेन स्वताच्या रगताबगर आमचे आवयक दिवंक आनीक कांयच ना. आनी देखून हांव तेंच तिचे वेदीर ओपता. देवालागीं म्हजें एकूच मागणें की स्वातंत्र्य मेळसर हेच मातृभुंयेचेर म्हाका परतो जल्म मेळचो आनी ह्याच पवित्र कामांत म्हाका मरण येवचें '



मदनलालचे हें उलोवप सांजवेळच्या दिसाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयलें. २५ जुलयाक खटलो पुराय जालो आनी १७ ऑगस्टाक फांशी

दिवपाचें फर्मान काडलें.

'डेली न्यूज' हें त्यावेळावयले इंग्लंडांतले म्हत्वाचे दिसाळें आसलें. त्या दिसाळ्यांत १६ ऑगस्टाच्या आकांत मदनलालचें पुराय उलोवप छापून आयिल्लें. बंदखणींत हें समजतकूच मदनलालाक भोव खोस भोगली.

१७ ऑगस्टाचो काळो दीस उजवाडलो. धिंग्राक त्याच दिसा फांसार चडोवचो आसलो. धिंग्राचे इश्ट रडूंक लागले. तांणी एक बोर्ड तयार करून लंडन शाराच्या मुखेल चौकार लायलो. ताचेर बरयल्लें, आज १७ ऑगस्ट १९०९. आयचो दीस दर एका राष्ट्रभक्ताक धक्को दितलो. आज आमचो इश्ट आनी म्हान देशभक्त मदनलाल धिंग्रा हाका 'पेटोनपिले' बंदखणींत फांसार चडयतात. ताची याद आमकां उमेद दीत रावतली. ताचें नांव इतिहासांत भांगरा अक्षरांनी उरतलें आनी इतिहासाची सोबा वाडयताले. इंग्लीश आमचो स्वातंत्र्यसंग्राम कशेंच चिड्डूंक पावचेनात. ही गजाल तांणी विसरची न्हय.

त्याच दिसा मदनलालाक फांसार चडयलो. तो शहीद जालो. मातृभुंयेच्या रक्षणाखातीर ह्या वीरान आपलें जिवीत ओपलें. १९०६ वर्सां शिकूंक म्हूण गेल्ल्या ह्या तरणाट्यान फकत तीन वर्सांनी हांसत हांसत मरणाक लागीं केलें.

निर्भयतेन फांसार चडिल्ल्या ह्या राष्ट्रविरान आपल्या जिविताक इल्लेंय मोल दिलेंना. इंजिनियर जावन ताच्यान खोटल्यांनी दुडू करूंक येताले पूण ताणें तशें केलेंना

तो सदांच म्हण्टालो 'क्रांतीत पिशेपणां आसतात, पूण तीं रचिल्लीं आसतात. देखूनूच देव, देश आनी धर्म हांचे रक्षण [illegible]

ह्या क्रांतिविरांच्यो आर्मी आरती गावंक जाय. स[illegible] ताका काळजांत दवरूंक जाय.



# स्वातंत्र्य झुजारी गोपालसिंग

१८५७ सालांतली गजाल. पंजाबांतल्या मध्यप्रदेशांतल्या एका गांवांत सुमार पंचवीस वर्सांचो एक तरणाटो जाट शेतकामती रावतालो. दिसभर शेतांत काम करून रातचो तो घरा येतालो. ताच्या घरा ताची आवय आनी एकली एकसुरी भयण आसली. तांकां पोसचेली जापसालदारकी तरणाट्या गोपालसिंगाचेर आसली.

हय ! ह्या तरणाट्याचें नांव जावन आसलें गोपालसिंग. एक दीस सदचे प्रमाण दिसभर शेतांत काम केल्या उपरांत, तिनसांजेच्या पारार ताणें बैलांक जोताचे सोडले आनी तांकां व्हरुन शेतांतल्या खोपींत बांदले. तांचेमुखार तण उडयल्या उपरांत ताणें हातपांय धुले आनी घरची वाट धरली. जेन्ना तो घरची वाट चलतालो तेन्ना ताज्या तोंडानसून गुरूग्रंथातलीं कवनां भायर सरतालीं.

घरचे वाटेर मेळपी लोक ताका 'सत श्री अकाल' म्हणत नमस्कार करताले.तांचेमुखार मान बागोवन गोपाल परत नमस्कार करतालो आनी फुडली वाट चलतालो. गोपालसिंग बरो गुणेस्त भुरगो आसलो. सगळ्यांचीच ताचेर माया आसली. सगळ्यांक तो जाय जाय सो दितालो. गोपालाक कसलेंच वेसन नासलें. कश्ट करची आवड आसली आनी दुसऱ्याचेर उपकार करपेली वृत्ती आसली. हाकाच लागून गोपाल सगळ्या गांवांक आवडटालो.

जो जो मेळटालो, तो तो म्हण्टालो, 'गोपाल आवयक आनी भयणीक आमचो नमस्कार सांग.' गोपालाची भयण आनी आवय ताचेवरीच बऱ्या गुणाच्यो आनी आदर्श बायलो आसल्यो. घरचें सगळें काम करून त्यो लोकांचेय काम करताल्यो. गांवच्या लोकांक त्यो घरच्योच दिसताल्यो.

गोपालसिंग घरा पावला. घर कसलें तें? गरीब शेतकामत्याली खोप ती. आनी त खोपींत गरजेचें सामान. एके कुशीक दातें मांडिल्लें. दुसरे कुशीक रादन कोनश्याक आयदना. शेंदऱ्यो आनी बसूक दोन

पाट. दात्याचेर आवय धूव बसून लोकांचें दळप दळटालीं आनी घरच्या संवसाराक हातभार लायतालीं.

गोपाल घरांत सरलो. ताणें हातांतलो नांगर एके कुशीक वण्टीक तेकोवन दवरलो. ताका खूब पुरो जाल्लें. पूण ताचे तोंड खोशयेन फुल्लेलें. तो आवय म्हऱ्यांत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, "आवय म्हाका गेल्यार सुमार सप्तक उलगलें! कितें घडलां कोण जाणा, कोण खंय आसा, कोणाक खबर. हांव वचून आयल्यार बरो न्हय?"

आवयल्या तोंडार मिरयो पडिल्ल्यो. तांचेरूय एक मिरी सुबेज पडली. तिणें हळूच म्हळें, "पुता, आमच्या देसाची आनी देसभावांची तूं सेवा करता, हें म्हाका खबर ना व्हय? परकी सत्तेन आमका लोकांक नाका पुरो करून सोडलां. लोक बाबडे घर-दार मोडून जीव घेवन रानांनी दोंगरांनी वतात. बाबडे लोक तुजो जीव त्रासांत घालून तूं तांका मदत करता खरो, पूण तुज्यो ह्यो गुप्त गजालीं जर तांकां समजल्यो तर तुजी गत कितें जातलीं. हाची खबर आसा तुकां?"

आवयचीं उतरां तोंडांतूच आसात इतल्यांत दार वाजलें. म्हाताऱ्या आवयचो हात तोंडालागीं गेलो. ती कितेंतरी उलयताली इतल्यांत गोपालान वचून खोपीचें दार काडलें.

दाराभायर पळयल्या ब्रिटीश पोलीस आसले. तांच्या हातांत तुबकां आसलीं.

"जयहिंदाच्या चळवळींत आसा म्हूण तुका धरतात. पोलीसांचो मुखेली गुरगुरलो." तुमची सगळीं दुश्ट कारस्थानां आमकां कळ्ळ्यांत. तुमच्या गांवच्या आमचे नोकरेंत आशिल्ल्या लक्ष्मणसिंग हाणें सगळ्यो खबरयो आमकां सांगल्यांत. चल. तुका धरून न्यायाधिशामुखार व्हरुंक आमी आयल्यात. बेगीन भायर सर."

तोंडांतल्यान उतर लेगीत काडिनासतना गोपालसिंग पोलीसांचे सुवादीन जालो. लाहोराक वचमेरेन उतर काडलेंना. तो फकत गुरुग्रंथांत







वेळार ताची आवय आनी भयण दुखान ताची फाट तेळीत रावलीं

लाहोराक वतना वाटेंत रात जाली. वाटेरूच सगळे थांबले. सगळें शार न्हिदलें. गोपाळाक बेडयो घालून मर्दी न्हिदयिल्लो. इतल्यांत एक बुरखो घेतिल्लो मनीस गोपाळा म्हऱ्यांत आयलो आनी हळूच ताका खुणावंक लागलो.

"गोपाल चल, बेगीन उठ, तुका सोडोवंक लोक आयल्यात. सगळेजण थंय झाडांनी लिपल्यांत. एका खिणाचोय वगत करूं नाका. चल बेगीन उठ."

गोपाल मातूय हाल्लो ना, जावं भियेलो ना. ताणें म्हळें, "ना ! हांव येवचोना. म्हजेखातीर म्हज्या देस भावांनी त्रासांत पडपाक नाका. कितें जावचें आसा तें म्हजेंच जावं दी. हांव सोंसतलो सगळें. हांव लाहोराक चल्लों. नशिबांत आसा तें घडलें.



म्हजी ताका तयारी आसा. उपकार करून तुमी हांगासरल्यान वचात. पोलीस जर जागे जायत तर मात वायट जातलें.'' निराशेन तो मनीस काळखांत नाच जालो

लाहोराक न्यायाधिशामुखार ताका उबो केलो. मनीसपण सोंपलें. आनी हुकूम सुटलो. गोपालसिंगाक चाबकान मारूंक लागले. आंगार जाल्ल्या घायांचेर मिठाचे उदक सारोवंक लागले. ताका झेलाचे लादयेर न्हिदोवन दवरलो. कांय खिणांत तो मरूंक तेंकलो. पूण मार मात थांबूक नासलो. मागीर हुकूम. 'राव' उखल्लेलीं चाबकां वयरूच उल्लीं. मुखेली फुडें सरलो. ताच्या दोळ्यांत उजो पेट्टालो.

मुखेली दयेचो उसणो आव हाडून गोपालाक म्हणूंक लागलो, 'कितें रे,मार बरो लागता न्हय? स्वातंत्र्य झुजारी जातकूच कितलो त्रास पडटा पळयलां? म्हजें आयकतलो? पळय, जीव वांचतलो आनी भरपूर पयसो मेळटलो.''

गोपालान वयर पळयलें. ताचे दोळे विचारताले, ''कितें? कितें आयकूं तुजें?''

''पुता ते चोर, स्वातंत्र्य झुजारी खंय लिपल्यात तें सांग. आनी पळय तुका पयशांनी न्हाणोवन काडटां. एका दिसांत तुका गिरेस्त करता. तुकां बऱ्या हुद्द्याची नोकरी दितां. सांग खंय आसात ते आमचे दुस्मान?'' मुखेल्यान विचारलें.

''ना ! हांव केन्नाच सांगचोना!'' गोपलसिंग आड्डलो. ''म्हजें तुमीकितेंय करात. आंगाचे कुडके तोडात. हाल हाल करात. पूण हांव म्हज्या देसभावांची नांवां केन्नाय सांगचोना. ते खंय आसात तें म्हज्या तोंडातल्यान भायर फुटचेंना.''

मुखेल रागान थरथरलो. ताचे दोळे अदीकूच तांबडे जाले. एक हिंदुस्तानी शेतकामती आपणाक परती जाप दिता म्हणजे तो आपलो अपमान सो ताका दिसलो. तरी ताणें म्हळें, ''पळे पुता, फुकट जीव व्हगडायतलो. आवय-भयण उबंत पडटलीं. तुजे फाटल्यांन तांकां

कोण विचारपींना.''

''म्हाका ताची पर्वा ना. एके आवयक सुखी करूंक, हेर आवयांक हांव केन्नाय दुखी करचोना. म्हाका जमचेंना तें. म्हजो देस हीच म्हजी आवय. ती गुलामगिरींत आसतना हांव सुखान केन्नाच रावंक शकचों ना.'' गोपाळान जाप दिली.

हे वेळार गोपाळाच्या आंगाक घाव जाल्ले. सगळें आंग रगतान भरलेलें. हातापायांच्यो लालट्यो गेल्ल्यो. पूण ताज्याकूय ताका त्या मुखेलीचे शब्द तोपताले. तो मनांतल्या मनांत देवाक होरायतालो, '' देवा कितेंय जावं, म्हज्या तोंडांतसून मात म्हज्या देस भावांची नांवां भायर येवंक दिवं नाका. हें पाप म्हज्या हातांन घडूंक दिवं नाका.''

तो कांयच सांगना हें पळोवन मुखेलीन परत हुकूम सोडलो आनी चाबूक उखल्लो. आंगार बशिल्ल्या प्रत्येक चाबकावांगडाच गोपालाचो देशावेलो मोग वाडटालो. ताचे तोंडातसून दुखाची उतरां येनासली. येतालीं ती, 'जयहिंद', 'भारत मातेचो जय जावं', 'वंदे मातरम्' हीं उतरां. कांय वेळान हींच उतरां बंद जाली. गोपाळाच्या जिवान ताची कूड केन्नाच सोडिल्ली. गोपाल अमर जाल्लो. तो जिखिल्लो. ताका मारपीच हारिल्ले. गोपालाची याद जालीम्हणजे अजून लोक म्हण्टात, 'ताचें बलिदान फुकट गेलें ना.'

# -आमची प्रकाशनां-

- **फोरेंन जांवय** *(नाटक)* .... एन्. शिवदास
- **कांवळे** *(एकांकी)* .... रामदास नायक
- **नचिकेता** *(कविता)* .... डॉ. दयानंद राव
- **पारजत परमळ** *(ललित निबंद)* .... डॉ. उमानाथ राताबोली
- **वळेसर** *(ललित निबंद)* .... मुकेश थळी
- **पावसफुलां** *(कविता)* .... राजय पवार
- **बाबू** *(भुरग्यांखातीर)* .... एन्. शिवदास
- **कथा परिक्रमा** *(पाठ्यपुस्तक)* .... गोंय विद्यापीठ
- **पांवलां** *(कविता)* .... जॉन आगीयार
- **वागमामाची फजिती** *(भुरग्यांखातीर)* .... जयंती नायक
- **रतन - आबोलीं** *(पाठ्यपुस्तक)* .... गोंय विद्यापीठ
- **मिरास** *(कथा)* .... वामन टाकेकार
- **रातराणी** *(कादंबरिका)* .... अशोक भोंसलो
- **निलम** *(काणी)* .... माया खरंगटे
- **शिटूक शकू** *(काणी)* .... माया खरंगटे
- **शिरवळ्यो** *(एक पात्री)* .... सुनंदा नाईक
- **सोश्याची मावशी** *(काणी)* .... नयना आडारकार
- **आळ** *(नाटकूलें)* .... रजनी भेंब्रे
- **शणै गोंयबाब** *(चरित्र)* .... माया खरंगटे
- **संगणक राज्यात अमिता** *(काणी)* .... संजय गुणाजी
- **नागमणी** *(काणी)* .... संजय गुणाजी